Dear J. B. Moraes Sir
With Love & affection
K. Ramesh Kamath



# भरतपुराचो भरत मास्तर

(कोंकणी एकांक नाटक)

के. रमेश कामत




केरळ कोंकणी अकादमी
कोची

Bharata Puracho
Bharat Master
*(Konkani Play)*

**By. K. Ramesh Kamat**

First Published 1994



*Cover Design by*
**Chandranath**

*Published by*
**Kerala Konkani Academy**
Admn. Office: 'Gokul'
Palluruthy Nada West
Cochin - 682 006

Price: Rs. 20/-

*Typeset:* S.K. Enterprises, Ernakulam - 18.

ISBN 81-85367-23-X

# समर्पण

मेगेले सर्व कार्यावळींत
भरलेले मनान
उमेद दीवन प्रोत्साह करची
म्हजी घरकान्न
श्रीमती किरणमयी आर कामत
हिका

# प्रस्तावना



रमेश कामत हो बेंगळूरच्या विश्व-गोलाचो मुखेल अभियंतो. मन विश्वांत संचार करता तरी ताचे पांय धर्तरींत रोमून आसात. आनी ताच्या काळजांत कोंकणी. "जनमन" हो कोंकणी सिनेमा ताणे एकल्यान तयार केलो आनी नामना जोडली. मनोरंजनावांगडांच लोकांचें प्रबोधन करप हो ताचो हावेस.

जिवीत आनी साहित्य हांचे भितल्लें लागचें नातें ताका समजलां देखून ताच्या साहित्याक जिणेचो नेट येता. रमेशबाबान कानडी आनी कोंकणीत जायती नाढकां, काणयो कविता बरयल्यात.

"भरतपुराचो भरत मास्तर" हें एक नाटकुलें. तरण्या मनाचो रमेश कामत. भुरायांख़ातीर बरयल्ले नाटकाचे सगळे तंत्र सादून तो जिणेचो मंत्र सांगता. मनशांचें जिवीत आनी सैमाचें जिवीत हांचें नातें सामकें नातें. मनीस हो लेगीत सैमांचो वांटो आनी सैमांचेर आगळीक जाल्यार, मनशान सैमांचेर आगळीक केल्यार मनशाचें जिवितूय संकश्टांत पडटा हें सत्य सांगून लोकांक कळना आनी आवडना. लोकांक तें कळचें म्हणून आवडचें म्हणून ताका जिवीताचे रंग दिवंचे पडटात आनी जिविताचें हें रंग सगल्यांत बरें दिश्टी पडटा हे नाटकांत. नाटक हें चलपी उलोवपी साहित्य. नाटकांतल्यान सांगता ल्हान-व्हडांक, बायल- दादल्यांक कळटा. नाटकांत बरोवपी हांसत हांसयत चिमटे काडटा. समाजाक कुद्दारता. "Castigat ridendo nores" हांसत हांसयत समाजाक सुदारप हें नाटककाराचें एक व्हडलें कार्य. शाणीं उतरां सांगून लोक शाणे

जायनात. माचयेर पात्रां खेळोवनूच तो  वावर केल्यार अदीक सफल जाता. आनी जाण्टयांक शाणे करपापरस भुरग्यांकूच शाणे करप  हें शाणेपणाचें लक्षण. रमेश कामत हो वावर करता. माचयेर तरेकतराचीं हांसोवणी  पात्रां खेळोवन भुरग्यांच्या कंवळया मनांत रुखाच्या मोगाचें बीं रोपयता.

नाटककार हो एक मास्तर. भुरग्यांक शिकोवपी, तांकां देख दिपपी आनी केन्ना आपले छडयेन  घायो करीनासताना सरळ करपी.

मनीस आनी सैम, मनीस आनी समाज, मनीस आनी धर्म, मनीस आनी राज्यकर्ते हे कांय प्रस्न  रमेश कामत हाणें सहजतायेन मांडल्या.

हें नाटकुलें भुरग्यांक तशेंच जाण्टयांक मानतलें अशी आस्त धरता.

**डा. मनोहर राय सरदेसाय**




# लेखकालीं उतरां

कोंकणी भाषेक राष्ट्रीय मान्यता मेळून एक नवो आयाम आयला. हे संदर्भारी आमचे मातृभाषेक कांय तरी देणें दिवयां म्हळेल्या आशेन बरयीली ही वृत्ती आतां तुमचे हाथांत आसा.

हे नाटकांतलीं कथापात्रां, सन्निवेश, काल-सर्वय काल्पनिक आसा. कोणाकूय मनांत लेकून बरयिल्लें न्हय. खंयचाय समाजांत आसुंक फाव ते थोडे बरें-वायट विडंबनात्मक जावन सांकेतिक रूपान हांगा दिल्यांत.

हें नाटक बरोंवक मुख्य प्रेरणा म्हगेली भयण श्रीमती हालाडी लक्ष्मीदेवी कामत हीच अशी सांगचें अवश्य. एक कोंकणी नाटक स्पर्ध्याक विडंबनात्मक जावन आसचें एक नाटक जाय म्हूण सांगून म्हाका तीणे म्हस्त पावटी हठ धरलें देखूनच हें बरयलें हस्तप्रती आसतनाच अनेक मित्रांनी तें वाचून बरें जालें अशी सांगलें. आतां हें पुस्तकाचें रूपान भायर येता आसा.

हे पुस्तकाचें मुखचित्र बरें जावन करून दिलेल्या कलाकार श्री चन्द्रनाथ हांकां हांव आभारी. आपणाल्या अनेक कामां मद्देंय पुर्सत करून जाय तशी दुरूस्त करून दिलेल्या पय्यनूर रमेश पैकय हांव आभारी आसा. केरळ कोंकणी अकादमी हें पुस्तक प्रकाशन करुंक मुखार आयल्ली. हांव तांचे कडे उपकारी उरतां.

कोंकणी साहित्यांत अपार नांव जोडिल्ले डॉ मनोहरराय सरदेसाय हांणी हें नाटकाक प्रस्तावना बरयलें हें म्हगेलें सौभाग्य अशी हांव आठयतां.

तुमगेल्या टीकेक हांव स्वागत करतां.

के. रमेश कामत

# प्रकाशकालीं उतरां

'जनमन' चित्राचे निर्मापक आनी निर्देशक हे नात्यान सहृदयी कोंकणी लोकांक श्री के रमेश कामत सुपरिचित आसात.

तांची ही प्रथम कोंकणी कृती भायर हाडतना आमकां खुशी दिसता. तांगेले सिनेमा केरळांत साबार गांवांत आमी खेळयलां आनी आतां तांगेलें पुस्तकय साबार गांवचे वाचकांकडे आमचेच वाटेन पावत आसा.

कर्नाटकाचे लेखकाले पुस्तकाक गोंयचे साहित्यकाराली प्रस्तावना, आनी केरळचे संस्थेवतीन प्रकाशन. ही कोंकणीचे भविश्याची उज्वल एक सूचना अशी आमी लेकतात.

जय कोंकणी !

केरळ कोंकणी अकादमी

# पात्रवर्ग

| | | |
|---|---|---|
| सूत्रधार | | |
| पिसो राय | - | काल्पनिक देशाचो राय |
| मंत्री | - | पिसो रायालो अमात्य |
| भरत मास्तर | - | सरकारी शाळेचो हेड्‌ मास्तर |
| केप्पण्णा | - | पोलीस मुख्यस्थ |
| कोतवाळ | - | नगराचो पैलवान |
| डेविड-पाद्री | | |
| खानसाब - मुल्ला | - | धर्माधिकारी जन |
| शंभूभट - वैदिक | | |
| शूरप्पा | - | रानाचो चोर |

आनी अंगरक्षक, भुरगीं, विद्यार्थी, पोलीस कान्स्टेबल्स, कोतवाळाले सहचर, शूरप्पाले सहचर, नागरिक इत्यादी.......

हें नाटक रंगमाचयेर खेळूंक
इच्छा पावतल्यांनी कांय फीस
दिवंची ग़रज ना. पूण लेखकाली
लिखित परवानगी घेवचें अवश्य.

# भरतपुराचो भरत मास्तर

[उजवाड जाताना रंगमाचयेर सूत्रधार राबिल्लें दिसता]

## सूत्रधार

नमस्कार मामा! नमस्कार मांये! नमस्कार गा, नमस्कार! सर्वांक नमस्कार. नमस्कार इतलेंच म्हूण कितें? एक व्हड दीर्घ दंडनमस्कार (एक दंडनमस्कार घालता) हो नमस्कार कित्याक अशी म्हण्टात वे? कारण कांय तरी नाशी हांव नमस्कार घालचो न्हंय. खरेंच कारण आसा आनी तें म्हळयार आज आमी भुरगीं मेळन एक नाटक करतात. तुमी दया करनु पळोवका. पळोवन खुतखुतू हासका (जापेक कान दीवन) कितें? हासुंक जायना? तुमगेले तोंडांत हासूच ना अशी म्हण्टात वे? हांसु पुराय भुरग्यांकच सोडला म्हण्टात वे? जायत गा.......तुमच्या मनांत रण्णे पुणय आसा न्हय? आमगेले हे हास्यनाटक पळोवन खूब रडात...... तुमगेले रण्णेच तुमी आमकां दिवचो गौरव अशी आमी लेकलात (प्रेक्षकांमदेंतल्यान एकली बायल सभा सोडून वचाक उठायता पळोवन) हे मांये खंय भायर सरल्या? नाटक पळयनात की? रडूंक सांगले तेन्नाच भायर सरली मू? कितें? घराकडे रडूनच पुरो जाले म्हूण हांगा आयली की? हांगाय रडूंक सांगिल्यांत बेजार जाला की? क्षमा करी मांये. जाय तरी व्हड नमस्कार दूसरे एक पटी घालतां. नपुरो तरी तुजे पाय धरतां. तुवेंय दया दवरनु हें नाटक पळोवका. कित्याक म्हळयार, आज काल नाटक करतले जन खूब जाल्यांत. तें पळोंक प्रेक्षकच नात. कितें करचें? खंय पळय थंय नाटकच नाटक. घरां भितर नाटक घरा भायर नाटक. जलमाक येतानाय नाटक, जलम सरतानाय नाटक अशी आसताना आमगेले रंगमाचयेवयले हें नाटक कोणाक जाय न्हय वे? पुण हें एक भुरग्यांचें नाटक मांये. तुमी तरी आमचे सारखे भुरग्यांक प्रोत्साह दीनात, आमी व्हड जाले तेन्ना निजजीवनांत नाटक करचें कशी? व्हय, न्हय वें? आनी वेळ काडूनाकात....पळयात, तुमी सहज

जीवनांत करचे नाटकापरस चंद करनु, सहज जावन, नाटकांत जीवंत पा घेतात हें तुमी पळोवयेता. नाटकपात्रधार हांव एकलोच न्हय. मेगेले नाटक एकपात्राभिनयय न्हय. आमचो नाटकाचोच एक पंगड आसा.

(सूत्रधार माक्शी घुंवता आनी किरडता) बाबूणी...... गोंडी.... बाबू......सुब्रा ......केचचा ...... माणकू......येया (साबार भुरगीं रंगमाचये चारीय वशीन 'ओ'....... म्हणता येतात)

## भुरगीं

(एकमेळीत नाच करतात)

नमस्कार मामा तुमका
नमस्कार मांये तुमका
नमस्कार तुमका नमस्कार तांकां
नमस्कार करतात सर्वांक (नमस्कार.....)

भुरग्यालें नाटक मजेचें नाटक
पळोवन सर्वय तुमी
संगीताचे आनी नृत्याचें नाटक
पळोवका सर्वय तुमी
हास्यनाटक परिहास्या नाटक
पळोवन रडका तुमी.....(नमस्कार......)

(भुरगीं नांचता नांचता भितर वतात रंगमाचयेर सूत्रधार मात्र उरता)

## सूत्रधार

आमगेलो नाटकाचो पंगड पळयलो मू? आनी नाटक सुरु करुयां? हें नाटक चलचें खंय? कितें मामा, रंगस्थळ म्हळें? व्हय, व्हय....रंगमाची खरेंच. पुण ते रंगमाचयेकय एक नांव जाय मू? आमगेले हें नाटक चलचे रंगमाचयेक आमी भरतपुर म्हणूच नांव घाल्या, जायत न्हय वे? आमचे नाटक हास्याचें म्हूण आदींच सांगले मू? ते निमित्त हे भरतपुरींत आसले एक रायाली काणी काडयां? आसले म्हूण कितें? आसच! हास्यनाटकाक योज्य जावन तो एक केवल राय न्हय. तो एक पिसो राय.

(सूत्रधारावेलो प्रकाश ऊणे जाता आनी रंगमाचयेर काळोख जाता. माक्शी थाकून समूहगीत आयकुंक येता)

भरतदेशांत एक गांव
भरतपुरी म्हूण ताजे नांव
आसलो म्हण्टाले एक राय
ताका म्हण्टाले पिसो राय
खुशी जाल्यार रडता राय
दुःख जाल्यार हासता राय
कोप जाल्यार नांचता राय
शांती आसल्यार कोपता राय

(हें पद आयकुंक येताना रंगमाचयेर एक हारस्या मुकार राबून पदाक सम जावन त्या त्या नटन करचो राय देकू येता)

(पिसो रायाचेर उजवाड चड जाता)

**पिसो राय**

शें! हें कसले राज्य कसलो कोश हो! आमचे राज्यांत इतली अशांती आसा , एकलोय पूत येवन ताका समस्या आनी कश्ट आसामू म्हूण सांगूक येना मू! जनांक खुशालीय संतोपूय चड जाल्यात ( राय रडूंक लागता) देवा असली शिक्षा म्हाका कित्याक दिता? आमचे राज्यांत सुख आनी संतोष कित्याक चड केला? हांव तुका मागतां कि चड त्रास आनी संकट आमचे प्रजेक दी! राज्य भर कंटक हाडी!

(तेन्ना मंत्री आनी एक अंगरक्षक माचयेर येतात)

**मंत्री**

म्हाराज.......म्हाराज.......!

**राय**

(मंत्रीक पळयता) कितें? तूं आयलो कित्याक? आमका कोणय भेटूंक आयला की? कश्ट आनी समस्या घेवन फिर्याद दिवंक कोणय आयला की?

मंत्री

ना, म्हाराज...तुमचे रण्णे आयकून हांव आयला. तुमी इतलें दुःख पावच्याक कितें कारण हें समजुया म्हूण आयलो प्रभो!

राय

(मंत्रीलागी) आमी सिंहासनार चडून कितले दीस जाले? एक प्रजाय आपणाली समस्या घेवन आमचे लागी येनी? हो एक दुःखाचो विषय आसा न्हय? फुळ्ळे रायाले काळाकय अशीच जाताले की?

मंत्री

ना, म्हाराज... फुळ्ळे रायाले दर्बारांत खूब जन येताले. सकांळी थाकून रात पर्यंत लोक खीट मारन येताले. समस्या वयर समस्या; कश्टा माक्शी कश्ट घेवन तांचे संकट निवारणेक येताले.

राय

तेन्ना? आमचे दरबाराक एक पूतूय येना कित्याक? लोकांचे कश्ट पुराय फुळ्ळे रायानच निवारण केले की?

मंत्री

ना, म्हाराज... फुळ्ळे रायान जनांलीं आनी प्रजेलीं खंचीय कश्टां दूर करनी. त्या कश्टनिवारणेचे बदलाक जनांले कश्ट आयकून तांचेर आनीकय कर चडयले. देकून जन तुमचेलागी येवंक भितात. तुमचेलागी आयल्यार कश्टनिवारणे बदलाक कश्ट आनीकय वाडत म्हूण हे दरबाराक येनात मात्र न्हय, हे दरबारादिशेन माथें दवरन निदेनाच सुदा!

राय

(खुशी पावन) हहहा ..... तशी वे? म्हण्टना, जनांक खुशी ना, ते संतृप्त न्हय, आनी संकटभरित आसात? हहहा मंत्री .....! जनांक कश्ट आसा हें आयकून म्हाका भारी खुशी जाली !

(राय खूब हांसता.. ताज्या दोळयांत उदक येता आनी तो मागीर गळगळी रडूंक लागता)

मंत्री

महाप्रभो! आनी कित्याक तुमी रडका?

राय

कितें करूं मंत्री? आमकां भरपूर खुशी जाली कि रण्णे येता. जन कश्टार आसात हें आयकून खुशी जाल्या व्हय, पुण जन आमचेलागी येनात अशी आठोवन दुःख जाता. (किरडून) मंत्री!

मंत्री

कितें महाप्रभो!

राय

आमकां एक उपाय मनांत आयला.

मंत्री

कितें तें सांगात! आयकुंक तान येता, म्हाराज!

राय

जन आमचे लागी येनात जाल्यार कितें? आमकांच लोकांकडे वचुयां? प्रजेचे संकश्ट आमकां पळोवयां, खुशी पावयां. सिद्ध करात तुमी आमचे

प्रयाणाचें! खंचेय रायान करनातीलें प्रयत्न आमकां करूयां? जनांनी कश्ट सांगूक रायालागी येवचे नाका, रायूच तें आयकुंक्र जनांकडे वता!

[मंत्री रायाले तोंडाक अजाप जावन पळयता. रंगमाचयेचो उजवाड मंद जाता आनी काळोख पडता.]

## फाटल्यान आयकुंक्र येता

राजाधिराज .... कोत्तंबरी बीज..... भरतपुरी खोज ..... गुंडूपंडित ...... रामनामांकित ..... इंदिरादास...... राजीवभूषित.... पिसो महाराज...... पराख! राजाधिराज..... कोत्तंबरी बीज ..... भरतपुरी खोज ..... गुंडूपंडित...... रामनामांकित..... इंदिरादास येता आसा वाट सोडात .... वाट सोडात!

[माचयेर उजवाड जाता. जन माथ्यार सामान दवरनु धांवतात. हे वाटेन ते वाटेन पळोवन ते वतात. एक रूखा पंदाक कदेलाचेर भरत मास्तर बसला. ताजे मुखार थोडीं भुरगीं बसल्यात. थोडे लोक येवन तांचे भुरग्यांक व्हरतात.]

## भरत मास्तर

[कदेलार थाकून उटावन मुखार येवन एकल्यालागी विचारता] हे सुब्राया, तूं खंय धांवत आसा? बायलेक आनी पुताक घेवन घराचो वस्त घेवन खंय वता आसा?

## सुब्राय

मास्तर मामा, उलोचाक फुरसत ना. कश्ट कि सुख कि आमचे इतल्याक आमी जीण काडीत आसात तरी आतां ह्या गांवचो राय, पिसो राय, आमगेले कश्ट विचारूंक सर्वालेंय घराक येता आसा मू! कसले ग्रहाचार हे!

**भरत मास्तार**

ग्रहाचार म्हणता? कितें गा तूं ग्रहाचार म्हणता? हें अदृश्टच मू? रायूच प्रजेंचे घराकडे येता म्हण्टना भारी अदृष्ट जालें न्हय?

**सुब्राय**

अदृश्ट? तेच खातिर तुका हेड्डु मास्तर अशी आपोवचें. तुजे लागी गजाल्यो सांगून बसल्यार राय येवन वतलो. [बायलेक पळोवन] घे गो लक्ष्मीदेवी, चेरडाक घे. [भुरग्याक बायले लागी दिता] वचा, वचा. बेगीन वचा आमकां!

[सुब्राय आनी परिवार वतात]

**भरत मास्तर**

पिशे जन! हेड्डु जन! रायान प्रजेलागी पावतना ताजो फायदो घेवचो सोड्डून धांवत आसात! हाजो उपयोग हांव पुणय काड्डून घेतां. आमगेली शाळा वाडोंवका..... रायालागी शाळेक एक इमारत निमगूका.... आनीकय दोग मास्तरांक नेमणूक कर अशी विनंती करका..... तें पुराय करचे परस पयलीच रायाक येवकार दिवचाक, संतोष पावोचाक सिद्धता करका [भुरग्यांक पळोवन] चेरड्वांनो ..... तुमी हांवे सांगील्यावरीच करशात?

**भुरगीं**

[मास्तरान सांगिलें आयकून] ऊं [किरडतात]



**समूहगीत**

रायाल्या स्वागताक सिद्ध जाले
शाळा - वाठार शुद्ध जाले
मास्तर चेरड्वां दोगांय मेळनु
रायाल्या स्वागाताक सिद्ध केलें

राय आयलो पिसो राय आयलो
हांसता रडता राय आयलो
दर्बार सोडून गांवाक आयलो
गांव सोडून लोक धांवलो [रायाल्या....]
ढमर ढमर ढम......
ढमर ढमर ढम......

[ब्यूगलाचो आवाज आयकुंक येता]

[राय पालकेथाकून भायर देंवता. भुरगीं रायाचेर फुलां शिंपतात. भरत मास्तर रायाले पाय धरता आनी फुलांचो तुरो भेटयता]

### राय

ह ह हा.....! आनंद जालें! मनाक संतोष जालो! तूं कोण? तुका कितेंय तरी कश्ट आसा की? हीं भुरगीं कोण? तुगेलींच कांय?

### भरत मास्तर

महाप्रभो! म्हजें नांव भरतप्पु अशी! वृत्तींत हांव मास्तर. हे सरकारी शाळेचो हेडमास्तर जाले नंतर लोक पुराय म्हाका हेड्डु मास्तर म्हण्टात ...... हीं भुरगीं सगळीं आमचे सरकारी शाळेचे विद्यार्थी जन!

### राय

हो हो! हेड्डु मास्तर! विद्यार्थी जन! [मंत्रीक पळोवन] अमात्या, हे मास्तराक कांय तरी समस्या आसा की निमगी!

### अमात्य

मास्तरा! राय विचारता, तुमकां कांय तरी समस्या आसा वे म्हूण. फुळ्ळे रायालेवरी न्हय हो महाराज! दरबार सोडून जनांले कश्ट पळोवचाक एक नवीनरिवाज दवरललो महाराज, कळ्ळें की?

## भरत मास्तर

कळ्ळें, समजलो महाप्रभो! म्हाका कांय समस्या ना.

## राय

कितें? समस्या ना? चन्दायेर आसा? [रडूंक लागता] आयक, मंत्री.........

## मंत्री

मास्तराक कांयच समस्या ना म्हणता आसा. [मास्तराक पळोवन] हे हेडुमास्तरा! रायाले दोळ्यांत उदक हाडोचाक नज हें तुका कळना? सांग, सांग! तुगेली एकेक समस्याय सांगून रायाक खुशी कर! तें सोडून रायाक रडयले कि, मुखार कितें जाता हें पळे! हुशार!

## भरत मास्तर

ना, महाप्रभो! आसात, साबार समस्या आसात..... तीं म्हाका न्हय, मेगेले शाळेक समस्या उरल्यांत.... सांगूक थोडे माक्शेलो.

## राय

साबार समस्या? शाळेची समस्या मास्तराली समस्याच मू? ह ह ह हा! साबार समस्या आयकुयां, सांग सांग!

## भरत मास्तर

व्हय राया, सुरूवेक आमचे शाळेक एक इमारत ना.... फुळ्ळे हेडुरायालागी निमगीतना तो म्हणलो, इमारत कित्याक? भुरग्यांक वारें - उजवाड नातिले कट्टडाभितर घालन जीवनाशी मारता मू? हांगा एक झाड वोवन ते झाडाच्या सावटाक चन्द करनु भुरग्यांक बसोवन शाळा चलय - अशी म्हणूंक लागलो! तें झाड आज व्हड एक वृक्ष जाला. आजीय

ताज्याच सावटार हांव शाळा चलयता आसा. पावस आयल्यार भारी कश्ट! इमारतेचीच समस्या वाडल्या, महाप्रभो!

### राय

समस्या !समस्या! इमारतेची समस्या! ह ह हा....! मंत्री, हे हेड्डमास्तराली इमारतेची समस्या कशी परिहार करचें?

### मंत्री

महाप्रभो! इमारत नातीलें हे भुरग्यांक साबार कश्ट जाला. फुळ्ळे हेड्डुरायान वोयिलो हो रूख आसल्यार हांगा इमारत कशी बांदचें? देखून मास्ताराली सुरूवेची समस्या निवारण करूंक हो रूख काडून घालयां?

### राय

व्हय, रूख कातरून उडोवयां. इमारत बान्दून दिवंक आमकां जाले ना तरी उपद्रवाचें वृक्ष पुणय कातरून सोड्यां? समस्या वाडोवन दीवयां!

### भरत मास्तर

[घाबरेन] महाप्रभो! आसचो हो एक रूखूय तुमी कातरून उडयल्यार? मागीर हांवे शाळा चलोवची कशी? भुरग्यांक वोत चुकोवन घेवन शिकूंक जागो खंय? पावस चुकोचाक पाकें खंय? पोटाक भूक लागल्यार हो रूख फळ दितालो. रूकूच काडल्यार फल खंय थाकून हाडचें? एक समस्यानिवारण करूंक लागून साबार समस्या आतां उद्भव जाता आसा मू?

### राय

साबार समस्या? ह ह हा! साबार समस्या!

### मंत्री

हेडमास्तरा! तुका शाळा चलोच्याक इमारत जाय, न्हय? इमारत बांदका तरी हो रूख आसुंक नज. आनी हे रूखाची योजना आमी थालेली न्हय, फुळ्ळे रायान ती घाल्या. ताणे तुका इमारत दिवंक नज म्हूण केलोलो तात्कालिक परिहार आसलो हो रूख. आमचे रायान हो रूख कातरून सोडूक काळ्ळलो निर्धार एक शाश्वत परिहार जातलो. तुका दिसता आसा मू?

### राय

शाश्वत परिहार? आनी शाश्वत समस्या! ह ह हा..... शाश्वत परिहार आनी शाश्वत समस्या!

### फाटल्यान

राजाधिराज ..... कोत्तंबरी बीज..... भरतपूरी खोज..... गुंडूपंडित ...... रामनामांकित..... इंदिरादास ..... राजीवभूपित..... पिसो महाराज! पराख! ...... राजाधिराज ..... कोत्तंबरी बीज..... भरतपुरी खोज ..... गुंडूपंडीत ..... रामनामांकित..... इंदिरादास ..... राजीवभूपित ..... पिसो महाराज..... शाश्वतपरिहाराक येता आसा ..... वाट सोडात ..... वाट सोडात!

[मास्तर आनी भुरगीं रूखालागी धावन वचून रूखाक पोटोन धरतात]

### फाटल्यान गीत

पिसो रायान निर्धार घेतलो
शाश्वतपरिहाराक जनाक धाडले
जन येवन कुराडी घेवन
रूख पाडयलो मारनु मारनु .....
मास्तराली आशा भंग जाली
भुरग्यांली शाळा निर्नाम जाली

निर्नाम जाली निर्नाम जाली .....

[फाटल्यान रूख कातरचें दृश्य तांत्रिक जावन दाखोवचें]

[रंगमाचयेवयलो उजवाड मंद जाता. काळोखा उपरांतचो उजवाड येताना रंगमाचयेवयलो रूख दिसना. मास्तर त्या रूखाचे जाग्यार बसला. भुरगीं भुंयचेर बैसून वाचतात. एकलीचली राबून पद म्हणता]

## चली

हेड्डु राय आयलो झाड दिलें दुम ..... दुम ..... दुम .....
इमारत मेळनी झाड आयलें दुम ..... दुम ..... दुम .....
झाड वचून रूख आयलो दुम ..... दुम ..... दुम .....
सावट दिलें पाकें दिलें दुम ..... दुम ..... दुम .....
पाक्या मुळांत शाळा जाली दुम ..... दुम ..... दुम .....
हेड्डु राय़ गेलो पिसो राय आयलो दुम ..... दुम ..... दुम .....
इमारत दितां म्हूण रुख कातरलो दुम ..... दुम ..... दुम .....
रूख गेलो समस्या वाडली दुम ..... दुम ..... दुम .....

## पैलवान

शाळा खंय ..... मास्तर खंय .....दुम ..... दुम ..... दुम .....
मास्तराक निमगून कोतवाळ आयलो .....दुम ..... दुम ..... दुम .....

## भुरगीं

अय्यय्यो! कोतवाळ रामू!
[भुरगीं भीवन धांवतात]

## पैलवान

हे मास्तर! हांव कित्याक आयलो हें तुका कळता कांय?

## भरत मास्तर

[वयर पैलवानालें तोंड पळोवन] ओ .....! कोतवाळ रामू....! तूं परतून आयलो की?

## पैलवान

व्हय, परतून आयलो, तुगेल्या ह्या शाळेचो जागो म्हाका घर करूंक जाय. दुड दितां म्हळ्यारिय तुंवे सोडनी. शाळेक इमारत बांदतां बांदतां म्हूण तुवें इतले दीस काडले. तुजे लागी चन्द उतरान निमगीलें, दुडवाची आशा दाखयली; धमकीय दिली. तरी तुवें म्हाका जागो सोडुन दिल्लो ना. आतां हांव निमाणोचो निर्धार घेतला. तुवें जागो सोडून वचका. नुतच वता कि बलात्कारान धाडका हांवे?

## भरत मास्तर

कोतवाळा! बलात्कारान जागो काडून घेता म्हूण सांगता आसा मू, लजा ना की? भुरग्यां खातीर शाळा बांदयां म्हूण मेगेले आजयेन दिलोलो जागो हो. ह्याच जाग्यार शाळेचें इमारत जावका आनी भुरग्यांक विद्यादान दिवचें एक विद्याभवन हांगा निर्माण जावका आशी हांवे सपन पळयलें. आयीले रायांलगी पुराय इमारत बान्दूक सहाय निमगून निवेदना केली. कोणय आयकले नात. फुळ्ळे हेडुरायान इमारतेचे बदल एक झाड हांगा दवरलें. ते झाडाक हांवे उदक पिवोवन पिवोवन रूख केलो. ते रूखान आमगेले शिकतले भुरग्यांक सावट दिलें, पाकें दिलें; पोट भर फळय दिलें. तरी आतां हो पिसोराय इमारत दिता म्हूण सांगून रूखूय मारनु काडून तागेले दरबाराक गेला. तूं आतां जागो काडून घेता म्हूण भायर सरला की?

## कोतवाळ

हो! रूख मारनु काडून व्हेलो की? तेन्ना राय तुका इमारत बान्दून दितलो, हें निश्चित आसा. ताजे फुडे हो जागो हांव स्वाधीन करतां.

## कोतवाळालो संगाती

पैलवान! म्हाका एक उपाय दिसता!

## कोतवाळ

बाटलीबाय! तुका त्या त्या वेळा एकेक उपाय दिसता! सांग।

## बाटलीबाय

पैलवान! आतंचे कायद्या प्रमाणे रूख कातरचें एक अत्यपराध आसा. हो रूख कातरून विकून उडयलें हे मास्तरानच अशी आरोप घालनु मास्तराकच कित्याक पोलीसाकडे दिवंक नज?

## कोतवाळ

तुगेले बोड म्हळ्यार बोडच! तुवें सांगचे वरीच हे मास्तराक पोलीसाकडे दिवयां. ताणे भायर पावचे भितर आमकां हेच जाग्यार घर बांदोवन घेवूं. मागीर कोण कितें करीत पळोवयां! केच्चा..... गुंडा .....धरात रे मास्तराक ! व्हरात ते केपे पोलीसालागी!

## फाटल्यान समूहगीत

मास्तरालो न्याय कोणाकय नाका
कोतवाळालो अन्याय सगटांक जावका
न्यायाक पळ्ळो पेटार पेट्ट
अन्यायाक मेळ्ळो मास्तरालो जुट्ट
मास्तराक व्हेलो पोलीसालगी
जैलां भितर घालो वगी
पळयात मास्तराले पाड कशी
कायदो नीती म्हळ्यार अशी!

[मास्तराचेर पडून जन मारनु तांडून व्हरतात। शाळेचो पुराय सामान काडून उडयतात। कोतवाळाले घराचे दंध ?ारंभ करतात। रंगमाचयेर दिवो मंद

जावन परत उजवाड येताना जैलांत मास्तराक बांदून घाला दिश्टी पडता. ताका चाटीन मारता आसात. पोलीस केप्पण्णा मुखार बसला.]

**केप्पण्णा**

एक..... दोन .....तीन ..... चार ..... पांच..... स ..... सात ..... आठ!

[एकलो मास्तराक चाटीन मारता आसा.]

**केप्पण्णा**

सांग, रूख कातरनू घाला कोणे?

**भरत मास्तर**

अय्यय्यो! हांवे न्हय!

**केप्पण्णा**

णव..... धा..... [मास्तराक पेट्ट मेळता आसा].... इखरा..... [परत परत पेट्ट मेळटना बाबडो सुस्त जाता।]

**केप्पण्णा**

सांग, रूख कोणे कातरनु घालो?

**भरत मास्तर**

सांगलों न्हय ..... रायान आनी तागेले जनान येवन कातरतु व्हेलो.

**केप्पण्णा**

कोण? समच सांग [मास्तराले माथ्यार केस धरनु हालयता] म्हाका आयकुंक येना.

**भरत मास्तर**

रायान आनी तागेले जनान

**केप्पण्णा**

तुवें सांगचें म्हाका आयकुंक येना!

**भरत मास्तर**

राय ..... राय..... राय.....

**केप्पण्णा**

आयकुंक येना ...... येना ..... येना! सांग, रूख कातरनु व्हेलेलें हांवेच अशी सांग!

**भरत मास्तर**

हांवे न्हय ..... हांवे न्हय .....!

**केप्पण्णा**

इखरा..... बारा..... तेरा .... [मास्तराक पेट्ट पडता] सांग वगी, रूख कातरनु घालेलें  हांवेच म्हूण सांग.

**भरत मास्तर**

[पेट्टा दूकी सहन जायनातीलें] व्हय ..... रूख कातरललो हांवच..... रूख विकीलोय हांवच ... .. पुरो कर हो मांर!

## केप्पण्णा

पळयलेंवे, सत्य भायर कशी काडतात म्हूण! मास्तरा, तुवें आतां खरेंच सांगलें तें आयकून म्हाका खुशी जाली. तुवें बेगीनच सत्य सांगलें बरें. बेगीच तुवें चूक समजून घेतली. बोजू ......!
[बोजू नांवांचो एक कान्स्टेबल येता]

## बोजू

कसलें धन्या?

## केप्पण्णा

मास्तरान तागेली चूक कबूल केल्या. देखून ताका सादारण शिक्षा दिवयां. तागेलो माथ्याचो केस काडून ताजे आंगार खाली चड्डी मात्र सोडून भायर घाली ताका. मास्तराली चूक सर्वांक कळो!

## बोजू

जायत धन्या! [मास्तरालागी] काड तुजी हीं वस्त्रां, मास्तर!
[मास्तर एकेक जावन वस्त्र काडता. बोजू पेस्कातीन मास्तरालें माथें तासून मुंडन करता.]

## केप्पण्णा

हीच शिक्षा सम तुका! रूख बोळ केलेल्याक माथें बोळ! आनी एक फंता रूख बोळ केलो तरी तुजे जीणच बोळ जातलें, समजलो?
[रंगमाचयेचे पाश्र्व थाकून चार पांच भुरगीं धावन येतात.]

## भुरगीं

मास्तर माम ..... मास्तर माम ..... [मास्तराली अवस्था पळोवन एक खीण स्तब्द जातात]

केप्पण्णा

कोण रे तुमी? कित्याक आयल्यात हांगा?

भुरगीं

आमगेले मास्तराक पळोंवक आयल्यांत, आमी मास्तरालागी उलोंवक आयल्यात.

केप्पण्णा

मास्तर खंय, मास्तर! चोर मास्तर! रूख कातरललो मास्तर! कातरनु विकिल्लो मास्तर! ह ह हा .....!

भुरगीं

पोलीस माम! रूख कातरलोलो आमचे मास्तरान न्हय, पोलीस माम! तें केलेलें रायानच. आमगेले शाळेचे जाग्यार आतां कोतवाळान आक्रमण करनु तागेले घर बांदूक सूरू केला ..... तें राबय, पोलीस माम!

केप्पण्णा

[आयकुंक्र येनातिल्या सारखे] कितें ..... कितें .....?

भुरगीं

आमगेलो रूख गेलो ..... आता शाळेचो जागोय वता आसा .... ते कोतवाळाक धरनु जैलांत घाल, पोलीस माम!

केप्पण्णा

कितें? [आयकुंक्र येनातिल्या सारखे निमगिता]

## भरत मास्तर

येया भुरग्यांनो! हे पोलीसांक न्याय ..... धर्म ..... नीती.... कसलोय लगाव ना, वचा!

[मास्तर आनी भुरगीं माचयेचे फाटल्यान वतात]

## फाटल्यान गायन

पळया पळया हो निरपराधी
कायद्याचे नदरेन तो अपराधी
कायद्याक कान ना
मानवत्वाक दोळो ना
सत्यवंताक मोल ना
कान धांपून दोळे धांपून
वचका वचका मुखार वचका
कान सोडून दोळे सोडून
वतां म्हळ्यार वचका वचका
रानाक वचका

[रंगमाचयेर काळोख वचून उजवाड येताना दरबाराची सभा भरल्या दिसता. थंय पोलीस केप्पण्णा, पैलवान कोतवाळ, पाद्री डेविड........ मुल्ला खान साब..... शंभू भट आनी अमात्यूय दोग जन अंगरक्षकय दिसतात.]

## फाटल्यान थाकून आवाज

राजाधिराज ..... कोत्तंबरी बीज.... भरतपुरी खोज.... गुंडूपंडित ..... रामनामांकित .... इंदिरादास .... राजीवभूषित ..... पिसो महाराज ..... पराख!

## पिसो राय

अमात्या! आमगोले सभेक सर्वय पावल्यात कि?

## अमात्य

व्हय, महाप्रभो, मासिक सभेक सर्वय पावल्यांत जनना एक कोतवाळ! कायद्यांचो पालक केप्पण्णा, धर्मरक्षक डेविड, मुल्ला खान साब.... शंभू भट - हे सर्वय आयल्यात, प्रभो!

## राय

अमात्यवर्या! जनना एक कोतवाळालागी जनांगेली समस्या कांय तरी आसा की विचार कर!

## अमात्य

कोतवाळ साब! जनां पासून कितेंय सांगचें आसा तरी सांग!

## कोतवाळ

जनांपासून तुमी कसलीय चिंता करची नाका, महाप्रभो! जनांक कितले त्रास दीवका कि तितलेच त्रास हांव दिता आसा. जनान गांड तोंड धांपून नुतच आसुंक कसकसले तराचे उपाय करचे आसा कि ते पुराय तराचे उपाय हांव करीत आसा. भरतपुरी प्रदेशाचे भूंय, उदक, रान ल्हान करनु तुमचो दरबाराचो कोश केन्नाय भरून आसचे विषयांत हांव अत्यंत उत्साह घेता आसा.

## राय

ओहो, कोतवाळ! तुमचीं उतरां आयकून खुशी जाली ..... तरी जनांल्या परिस्थिती पळोवन म्हाका रण्णे येता आसा ....! [रडूंक लागता] हे दुःखाचे वेळार हांव खुशीन तुमका अंवदूचो 'छुद्मश्री' पुरस्कार दिवंक निर्धार केला!

[सर्वय ताळियो मारतात] [अमात्याक पळोवन] अमात्या, आमगेले राज्याचो कायदो कशी पालन जाता म्हूण कायद्यांचे पालकांलागी विचार करतले व्हय?

## अमात्य

कायदो पालन करचे केप्पण्णा, महाप्रभूलागी तुमकां कांय तरी विनंती करची आसा की?

## केप्पण्ण

महाप्रभो! मेगेले नांव तिम्मण्णा. तें वचून केप्पण्णा जालेलेंच पळयतना तुमकां हांव कितलो वात्र काडता हें कळतलेच न्हय? हांव न्यायाक कितले केपो जाला कि तितलेच अन्यायाक कान दीवन काम करता आसा. मेगेले जैल एक म्हयन्यालागी जावन खालीच खाली आसा. दादले आनी बायलो म्हूण भेदभाव करनाशी हांवे सराटांकय न्याया बदलाक अन्याय दिता आसा. अन्याय पालनेक तुमी राज्याचे कोशा थाकून दिवचें धन पुराय खर्चीता आसा. न्यायाचीं जन भारी ऊणे जाल्यात. अन्यायाचीं जन भारी वाडत आसात. अवंदूचे खानेशुमारींत अन्यायाचीं जन कितलीं आसात म्हूण पळयताना तुमका मेगेली योग्यता कळतली.

## राय

अहहा! केप्पण्णा, आमी तुमगेलीं उतरां आयकून खुशी पावतात मात्र न्हय, हे खुशींत नांचयां म्हूणय दिसता. [राय नांचुक लागता.]

## फाटल्यान गीत आयकुंक येता

धितां ..... धितां ..... धितां.....
रायालो नाच पळया पळया
रायालो नाच पळया पळया
तुमगेले त्रास रायाक कळया

तुमगेले त्रास रायाक कळया
कष्टकि इष्टकि राय अनिष्टकि
काळोख वचो म्हूण दिवो जळया

धितां ..... धितां.... धितां....
तरतरावरी नाच
केल्यार मात्र रायाक वांच
कान केपे आसका
दोळे कुरडे आसका
रायाले पायांक बळ आसल्यारीय
थोंट्याले म्हणके नाटक करका

धितां .... धितां .... धितां .....
जनांक मारूक कोतवाळ जावका
तसले वीराक छद्मश्री दीवका
कोतवाळाक राखूक पोलीस जावका
पोलीस केप्याक 'न्यायश्री' दीवका
धितां .... धितां .... धितां .....

## केप्पण्णा

धन्य महाप्रभो धन्य, न्यायश्री पुरस्कार म्हाका प्रदान केलेल्याक हांव तुमचेर आभारी आसा. येदोळ पर्यंत हांवे एक कान केपो करनु घेतीलो. आनी मुखार हांव दोनीय कान केपे करनु घेवचाक प्रयत्न करतां.

## राय

धर्मरक्षक, तुमगेली कसलीय निवेदना आसा की?

## पाद्री डेविडः

हे लोर्ड! प्रजेक देवालें भय कितलें हाडोवका कि तितले हाडोचाक आमी प्रयत्न केला; आमचे इंग्लीश देवान आतां सर्व भाशेनय प्रार्थना

आयकुंक्र सुरू केला. सर्व भाशेचे लोकाकय यथेष्ट संकश्ट आमचे देवान दयापालन केला. आयताराचो दीस भयाचो दीस अशी आमागेले जनान मानून घेतलां.

## शंभू भट

महाप्रभो! आमी यागयज्ञ करनु कंगाल येवचेवरी .....पूजा पुनस्कार करनु पावस हुंवार येवचेवरी.... देवाक जनाचेर क्रोध येवचेवरी .... सदंच एक ना एक देवकार्य करीत आसात

## मुल्ला खान साब

जहापना! भटमामान सांगचें खरेंच! आमीय कांय ऊणे नात. प्रती शुक्रारा चुकनातले देवाक भीवन भयभक्तीन खंय आसा थंय शरणागत जावचे तशी जनाक भिवोवन दवरला. समाजांत रोगरूजीन वाडोवन जनांक संकश्टांत घाल म्हूण आमगेले देवालगी मागला.

## राय

धर्माधिकार्यानो! तुमी सर्वानीय जनांक संकश्टांत घालनु ते जनांल्या मनांत राजभक्ती, गुरूभक्ती आनी देवभक्ती भय घालेलें आयकून भारी खुशी जाली. तो देव तुमकां बरें करो! तुमच्या हे वावराक प्रतिफल कितें दिवूं, पुरस्कार कितें दिवूं, सांगात!

## शंभू भट

महाप्रभो! आमी देवाले दूत. आमकां पुरस्कार–भौमान हाजो पाश नाका. तरी प्रतिफल दीवका अशी तुमचे मनांत दिसता देखून लोककल्याणा खातीर म्हेगेली एक विनंती आसा.

## राय

विनंती कसली, आयकुम्यां, शंभूभट! जनांले कष्ट द्विगुण करचांत मुखेल वांटो घेवन आसचे तुमकां हांव कांयच ना म्हणत वे?

## शंभू भट

महाप्रभो! भरत मास्तराले शाळेक आसलो जागो तुमका कळता आसतलो मू? तो आमगेले पुरातनगुरू करूणाचार्यालें वृन्दावन आसलो जागो. चर्वितचर्वण पुराणाचे चारीचे अध्यायांत ताजो उल्लेख आसा. तो जागो आमकां दया करनु दिल्यार थंय एक वृन्दावन निर्माण करनु जनांले मनांतली भय-भक्ती वाडोचाक सहकार जातलो.

## पाद्री डेविड

ओ मै लोर्ड! भट मामाले करूणाचार्याली खबर म्हाका कळना. तरी, आमगेले देवदूत संततीचे करूणवालीसाक चारीचे शतमानांत ते भरत मास्तराली शाळा आसचे जाग्यार आमगेले देवान दर्शन दीवन एक प्रार्थनामंदिर थंय निर्माण करूंक सांगीलें. अशी आमचे पवित्रपुस्तकांत सांगला लोर्ड! देखून तो जागो आमका दिल्यार .....!

## मुल्ला खान साब

जहापना! मास्तर मामाले जाग्याक नांव आयिलेंच आमगेले कोरान साबा निमित्ति. कोरान साब एक महामहिमु. ते कोरान साबालें जल्मस्थानच भरत मास्तराली शाळा आसलो जागो.

## राय

तें व्हय, कोरान साबालो जागो तोच म्हूण तुमगेले खंचेय ग्रंथांत सांगलावे खान साब?

## मुल्ला खान साब

ग्रंथांत सांगनी, तरी माका सदंच सपनांत येवन कोरान साब सांगता आसा. ते जाग्यार कोरान महल केल्यार जन शुक्रारा मात्र न्हय, वार भर थंयच येवन पडतले. दया करनु तो जागो आमकां सोडून दिवका जहापना!

## राय

ओ हो हो! समस्या ....! करूणाचार्य, करूणवालीस, कोरान साब! कोणाक दिवचें, कोणाक सोडचें? अमात्या, हाका परिहार कितें?

## अमात्य

महाराज! समस्यपरिहाराक एकच वाट. तें म्हळ्यार, तो जागो तेगांकय दिवचो. थंय सरकारावतीन करूणामंदिर बांदोवन ताजे भितर करूणाचार्यालें वृन्दावन, करुणवालीसालें प्रार्थनामंदिर, कोरान साबालें कोरान महल - तिनीय स्थापना करोत. मागीर तेगांय बोड धाडावन घेवन मरोत!

## कोतवाळ

हां हुजूर, तुमी कशी सांगतात तशीच!

## अमत्य

महाप्रभो! तो जागो हांवे तेन्नाच स्वाधीन करनु घेतला. हांव आनी मेगेले शिष्य ते जाग्यार बाटलीचो व्यापार सूरू करूयां म्हूण सर्वय व्यवस्था केल्या.

## राय

कोतवाळा! बाटली व्यार ताजे भायर करचें बरें. भितर न्हय. आमकां तुवंय जाय, तांणीय जाय. तुगोले वांवटाक तुका हांवे छद्मश्री दिल्या. हांगेले वावराक कांय मेळनी. देखून भरत मास्तराली शाळा करूणामंदिर

जावो. ताजे भितर धर्माधिकार्यो, आनी ताजे भायर तुजो बाटलीचो व्यार - कितें म्हणता कोतवाळ?

### कोतवाळ

महाप्रभो! ह्या खुशीचे वेळाक सम जावन रंभा ऊर्वशीलें नाट्य व्यवस्था केल्या. तुमी आसन ग्रहण करका.

### राय

नाट्य? संतोष पावचें एक नाट्य! जनांले कष्ट पळोवन माका खूब दुःख जाता आसा [रडूंक लागता]

### कोतवाळ

रडूनाकात, महाप्रभो! तुमगेले दुःखनिवारणेक एक वखदाक सांगून धाडलां. बाटलीबाय तें घेवन हाडतलो.

### केप्पण्णा

आमगेलो नाट्यकार्यक्रम, बाटलीचे कार्यक्रम, निर्विघ्न जावन चलो म्हूण रावळाराचे भायर आनीकय चार केपे पोलीसांक दवरल्यांत म्हाराज, चिंता करूंनाकात!

### शंभूभट

महाप्रभो! करूणामंदिर जालें तत्क्षण जनांले कष्ट आनीकय चडता. तुमगेली खुशी आनीकय वाडतली. आतां चिंता दूर करात, म्हाराज!

### राय

जायत जायत! मेगेली चिंता पयस करतां. नाट्य सुरू जावो!

## अमात्य

[जघांट वाजीता.... ढण ढण जाता] नाट्य सुरू जावो!

## आवाज

डिंग डांगू.....डिंग डांगू ....डिंग डांगू.....

[राय आनी इतर नृत्य, बाटलेचे कार्यक्रमांत मग्न जातात. माचयेर काळोख जाता.]

## फाटल्यान गीत

रायाले दरबारांत मेळ्ळा दुष्ट कूट
कष्ट परिहाराक सोदली मस्त वाट
मास्तराली शाळा निर्नाम जाली
शाळेचे जाग्यार करूणामंदिर आयलें
रायाक मेळ्ळा नित्यनृत्य
जनांक कळ्ळें रायालें तथ्य
मूर्ख राय हेड्डु राय
आतां पळयल्यार पिसो राय
सगळे रायाले पिश्यापणांत
घाय जनांले सुकचीं नात
मास्तरान पळयलें शळेचें नाश
भुरग्यांक म्हळें: वस ..... वस!
मास्तरान सोळ्ळो भरतपुरी गांव
मोक्षमार्गाक देंवलो मास्तर

[फाटल्याचे गीताक अनसरून पश्चातलारी हीं दृश्यां सांकेतिक जावन सुचोवचें बरें]

[रंगमाचयेर काळोख जावन उजवाड जाताना एक रानाचें दृश्य. शूरप्पा आनी चोर माचयेचे पार्श्वथाकून एक रूख उबारनु येतात.]

## शूरप्पा

हो गांदा रूख बेगीन आमगेले कार्यस्थानाक पावोका. थंय थाकून खंय पावोका कि थंयक तत्क्षण धाडून दिवका.

## सहचर

जायत धन्या! एक नवी खबर आसा धन्या! हुन्हुनी खबर! तुमकां धरूंक केपो पोलीस आनी तागेले पंगड ह्या रानांत येता आसात खंय! ह्या पावटी त्या पंगडांत पनास केपे, साठी अपंगू लोक, चाळीस कुरडे हांचे सैन्य आसा खंय!

## शूरप्पा

अहहा! नवीच खबर! जनांक एक नवीच खबर! कुळ्ळप्पो, त्या विशयांत तुवें भय पावचें नाका. भरतपुरीचो पिसो राय, केपो पोलीस, धर्माधिकारि सर्वय मेगेले दोस्त म्हूण तुमी समजून घेयात! गांवचे नायक तांणी जाल्यार रानाचे नायक आमी! तांणी आमका धरचें, आनी आमी तांकां मारचें - हें आमगेले जीवननाटकाचे वेगवेगळे दृश्य आसात हें नाटक सामान्य जनांले प्रेक्षकांनी पळोवचेंच.

## कुळ्ळप्पा

धन्या! तुमगेले हे नाटक आमचेवरीचे नौकरान कशी पळोवन समजुचें? आमकां कळता जनांगेले मद्दें आसची खबर मात्र. आयकात धन्या!

[कुळ्ळप्पा रेडियो घुंवडायता]

## रेडियो खबर

आकाशवाणी भरतपुरी. आतां प्रादेशिक समाचार. तुमी हे समाचार दोनशें आनी तीस तरंगांतरंगांत आयकत आसात .....

भरतपुरीचे पिसो रायान जनांले कष्टसुखाचें परिशीलनेक स्वतहा प्रजेलागी वचचो नवीन कार्यक्रम घालन घेतला. आमचा देशांतूच नूतन

नमून्यातें एक करूणामंदिर आस्तित्वाक आयलां.. ... करुणामंदिरांत सर्व भाशेचे आनी सर्व धर्माचे जनांक सुलभरीतीन तांगतांगेले दवाली भेट भेळची व्यवस्था केल्या ..... भरतपुरीचे भयंकर रानाचो राय शूरप्पाक धरचे खातीर पोलीसांचो एक पंगड रानाक भायर सरला. ही खबर आयकून शूरप्पा रानांत कोणाकच कळनातीलें एक जाग्यार निपून बसला म्हूण आमकां खबर पावल्या. आतंच पविल्या हून खबरे प्रमाण आमगेलो केप्पो पोलीसांचो पंगड शूरप्पाक एक निर्जन जाग्यार माथें निपोवन धांवचे पळोवन ताजेर बाण सोडून ताका थोंटो केलो म्हूण आमका खबर पावल्या. पूण शूरप्पाक तागेले पंगडाचे जनान धावन व्हरनु पोलीसांचे हाथांतल्यान चुकोवन घेतलें अशी आयकलां. आनी एक हप्त्या भितर केपे पोलीसान शूरप्पाक खंडित धरतां अशी म्हळा ......

## शूरप्पा

[रेडियो राबयता] आयकलेवे कुळ्ळप्पो! पोलीसान बाण सोडलो खंय! आनी हांव अपंगूळ जालो खंय! ही नवी खबर! ही लोकांक हुनी खबर! [कोणकी येवचो साद आयकुंक्र येता.]

## लंब

धन्या! कोण तरी येता आसा!

## शूरप्पा

कुळ्ळप्पा, लंबू! ताका धरात! ताजे लागी आसचे सर्वय तांडून घेयात. आमी फुळ्ळे हप्त्यांत हे रुखापंदाक निपोवन दवरलेलें भांगारा नाण्य कोणेकी चोरनु व्हेलेले मू, बहुशा हो मनीस तोच चोर आसतलो अशी म्हाका दिसता.

[लंबु आनी कुळ्ळप्पा धांवतात. रंगमाचयेचे पार्श्वविल्यान भरत मास्तराक तांडून हाडून शूरप्पाले समक्ष राबयतात.]

### शूरप्पा

हे! कोण तूं? तुजें नांव कितें?

### भरत मास्तर

हांव भरत मास्तर! भरतपुरी सरकारी शाळेचो हेडमास्तर

### कुळ्ळप्पा

काड, तुगेलागी कसले आसा, तें काड! पुराय काड, काड्डून दी.

### भरत मास्तर

मेगेलागी कसलेंय नामू!

### लंबू

ऐ! फट्टी सांगू नाका! फूळ्ळे हप्त्यांत हे रूखापंदाक आमी एक गांठी भर भांगरानाण्यां दवरलेलीं. आतां पळयल्यार तें माया जाला. आमगेले धन्याक आमचेर अनुमान जाला. मर्यादेक दीवन सोडी! तीं भांगरा नाण्यां दिल्यार मात्र पुरो, आमी तुका सोड्डून वतात.

### भरत मास्तर

तुमी कोण? म्हाका कित्याक हिंसा दितात? मेगेलागी कांयच ना. तुमगेले भांगरानाण्याची गांठी हांवे पळयनी. हांव गांवाथाकून मोक्षाखातीर हे रानाक आयलां. गांवांतले लोकान पुराय तें तांड्डून काळ्ळें. आतां ही चड्डी सोड्डून म्हुजे लागी कांय ना.

### शूरप्पा

लंबू, हे गांवचे जनांक नमगूक नज! आमगेले भांगरानाण्यां ताणे खंय तरी निपयला आसतले.

## कुळ्ळप्पा

अनुमान कित्याक दवरचो? धनी, पळोवनूच सोडतां. [लंबू आनी कुळ्ळप्पा मास्तराली चड्डी काडतात. ताजे आंगार लंगोटी मात्र आसा.]

## शूरप्पा

वचां, वचां - हे गोमटेशालागी आमकां कितेंय मेळचें ना. आमगेले काम आमकां सांभाळयां.

[सकडय मास्तराक सोडून वतात. मास्तर एक रूखापंदाक बसता. एक मांकड रुखार थाकून येता आनी मास्तराले माक्शी मुखार भोंवता. मास्तर मांकडालें माथें आपडून मोग दाखयाता. मांकड रूखावयर वता. रूकांचेर थाकून एक चीरी मास्तराले माथ्यार उडयता.]

## भरत मास्तर

अरे! ही कसली चीरी? [काडून पळयल्यार चिरियेंत भर भांगरा नाण्यां आसात] हो.... भांगरा नाण्यां! [एक वशीन धांवता] व्हयगा, खंय गेले तुमी? तुमगेली दुडवागांठी मेळ्ळया घेया ..... ऊं! गेले ते! ऊं....मोक्षाखातीर आयीले म्हाका हे भांगर कित्याक? हे नाण्य कित्याक? जल्माक येतना हांवे कांय हाडनी , वतना कित्याक?] [दुडवा चीरी काडून मांकडाले भागाक उडयता. मांकड परत मास्तराले कडे तें उडयता. मास्तरान मागीरय उडयल्यार मांकड परत ताजेकडेच उडयता.] पळे.... पाशु होच! नाका म्हळयार आमचेच माक्शी परत परत येता .... हो पाशूच घेवन मोक्षाक पावयां.

[मागीर तो दुडवा गांठी हाथांत घेवन रंगमाचयेचे एक वशीन वता.]

## फाट्ल्यान गीत

पळया पळया पळया
समाजा तथ्य पळया
बोड मारनु रूख मारनु

दुड्डु करयेत पळया
कष्ट काणु रात दीस घोळनु
कसलेंय केल्यार जायना
दुड्डु तुगेलागी येना
दुड्डु नाका दुड्डु नाका
मायापाशु नाकाच नाका
म्हणु लेकल्यार
तें मात्र तुका सोणा!

[रंगामाचयेर काळोख जाता. उजवाड जाताना भरत मास्तर एक न्हंयचे लागी राबला. मास्तराली फाटी प्रेक्षकांक दिसता. दिगंतांत सूर्य बुडता आसा. मास्तर न्हंयत बुडूंक वता. जीव काडून घेवचाक पळयताना पाद्री डेपिड, मुल्ला खान साब, शंभू भट हे तेगांय मास्तराक तांडून माचयेचे मद्दें हाडतात.]

### पाद्री डेविड

हे! कोण तूं? कितें करता आसा?

### भरत मास्तर

म्हाका जीणेंत विरक्ती जावन हांवे मोक्षमार्ग धरला. हे न्हयंत पडून जीव काडून घेवंक भायर सरलोलो.

### पाद्री डेविड

हो लोर्ड! जीव काडून घेता? तुगेलें नांव कितें? तूं कोण?

### भरत मास्तर

हांव मास्तर, सोड नाका.



## पाद्री डेविड

तूं बरो मास्तर न्हय. मेगेलें दिव्यज्ञानाक दिसता तूं मास्तर मेत्यू म्हूण. तूं तुगेलें मूल विसरला. बरो उडगास करनू घे. तूं मास्तर मेत्यूच न्हय?

## भरत मास्तर

न्हय, हांव मास्तरूच; हेडमास्तर!

## मूल्ला खान साब

बिस्मिल्ला! हें तूं कसले सांगता आसा; काल म्हाका सपनांत दिश्टी पडलोलो तूंच मू? तूं हेडमास्तर न्हय, आमगेलो मूलाचो. तुगेलें पूर्वनांव मास्तर महम्मद अशी!

## भरत मास्तर

म्हाका सोडात! हांव मास्तर मेत्यूय न्हय, मास्तर महम्मदुय न्हय. भरतपुराचो भरत मास्तर हांव.

## शंभू भट

भरतप्पा ..... तूं कोणय जावो, आमकां तें मुख्य न्हय. तूं मरूंक भायर सरलोलो. त्या विषयांत आमकां आक्षेप ना. पूण मनशाक मस्त जल्म आसात म्हणता आमगेले चर्वितचर्वण पुराण. हे राहुकालांत हे घडींत तूं मरूंक गेलो मू! गणित प्रकार आमचे पंचांग सांगता हो तुजो अंतिम जल्म म्हूण. फुडले जल्मांत तूं मास्तर महम्मद जावनं आसुंक पुरो. ताज्या फुडेचे जल्मांत मास्तर मेत्यू जावन आसुंकय पुरो. आमगेले हे भांवडाले दिव्यज्ञान जावो सपन जावो फट्टी म्हूण सांगचें धैर्य म्हाका ना. पुण हो तुजो निमाणेचो जल्म म्हणचें फट्टी न्हय

## भरत मास्तर

म्हाका सोडात. हांव कोण जाल्यारीय तुमकां कितें? मेगेलो जल्म खंचो जाल्यारीय तुमकां कितें? ताज्यान तुमकां कसलो फरक पडता?

## पाद्री डेविड

फरक? बरें उलयता मू? तूं आमगेले मूलाचो देखून तुवें पेरडैसाकच वचका ही आमची आशा. तूं हांगा बैस. तुका पवित्र जल हांव प्रोक्षण करतां. तेन्ना तूं सरूत पेरडैसाक पावतलो.

## मुल्ला खान साब

भुंयचेर तुगेले जल्मांत एक जल्म मास्तर महम्मद जालेले कारण तूं हांगा बैस. तुका हांव कोरान साबालो प्रसाद दितां. नंतर तूं उदकां उडी मार, उज्यांत वचून लात मार, आमकां पर्वा ना. तुका कोरान ग्रहाची वाट मेळतली हें निश्चित!

## शंभू भट

भरतप्पा! तुका भुर्गीं आनी बाळ आसा की?

## भरत मास्तर

मेगेले विद्यार्थी पंगडच मेगेले भुर्गीं जावन आसात. आतां म्हाका कोणच ना.

## शंभू भट

कोणच ना म्हणता? मागीर तुका मोक्ष कशी मेळतले? तुगेलीं वार्षिक, मासिक श्राद्ध कोण करतले? ते निमित्त हांवे सांगचें आयक. तुगेले श्राद्धादि कार्य आतां तुवें मरचे पयलेंच हांव चलोवन दितां. नंतर तुका संपूर्ण मोक्ष मेळतलें.

## भरत मास्तर

जायत, जायत ..... म्हाका मोक्ष दिवोचाक तुमी सकटय भायर सरल्यात .... कितें करूक लेकलां तुमी, तें करा .... हांव हांगाच बसतां.

## पाद्री डेविड

पवित्र जल प्रोक्षण मुफत न्हय. ताका तुवें देवकाणीक दीवका. शंभर नाण्यां देवाले नांवार आमकां दिवचें पडतलें.

## मुल्ला खान साब

कसले मास्तरा! कोरान साबाली कृमा तितले ससार म्हूण लेकू नाका. केवल शंभर नाण्य दी; मागीर पळे कोरान ग्रहवासाचे सुख!

## शंभूभट

भट मामाक दक्षिणा दीनी तरी भटमामाली क्रिया निष्क्रिय जाता. तुका मागीर ह्या जल्मांत मोक्षच मेळचें ना. नंतर तूंवे त्रिशंक स्थितीर आसका जातलें. भुंचयेर तुका जल्म ना, स्वर्गांत तुका वांच ना-अशी जायत! भूत प्रेत जावन भोंवता राबका जातलें! देखून चड उलोंव नाका. भटमामाक दक्षिणा म्हूण शंभरीवयर दोन नाण्यां दी, पुरो.

## भरत मास्तर

मेगेलागी कांयच ना; एक पैसोय ना!

## शंभू भट, पादरी डेविड आनी मुल्ला खान साब

पळे पळे, फट्टी सांगता वे? तुगेले हाथांत आसा पळे गांठी! दुडवा गांठी!

## भरत मास्तर

व्हय, व्हय! हांव विसरलो. घेया! माका मोक्षमार्ग दिया!

[तो दुड्ड पुराय चिरियेंतल्यान दोनीय हाथान रंगामाचयेर विन्दून विरकायता. दुड्ड वेंचून काडूक भुंयचेर एकल्यावयर एकलो पडता. भरत मास्तर तांकाच पळयता आनी फाटल्यान सरनु न्हंयत उडकी मारता. भट, खान आनी डेविड हे दुडवाखातीर झगडचें दृश्य निश्चल जाता. रंगमाचयेरचो उजवाड मंद जाता आनी काळोख येता.]

• • •

# लेखकाची वळख



श्री. के. रमेश कामत कर्नाटकाचो. बेंगळूरांतले प्रतिष्ठित जवाहरलाल नेहरू प्लेनेटेरियमांत इलेक्ट्रोनिक इंजिनियर म्हूण काम करता. कन्नड आनी कोंकणी लेखक कामत एक नाटककार आनी यक्षिणिकारय जावन आसात. तांणी तयार केलेले 'जनमन' कोंकणी चलचित्रान पत्रिकेंची आनी प्रेक्षकांची मुक्तप्रशंसा घेतलें मात्र न्हय दुरदर्शनाचेर राष्ट्रीय कार्यक्रमांत प्रसार जालेलें प्रथम कोंकणी चित्रपटय आसा.

मैसूरांत इलेक्ट्रिकल इंजिनियरिंग केल्ले उपरांत पुणेचे फिल्म एण्ड टेलिविजन इन्स्टिट्युटांत साउंड रिकार्डिंग आनी सांउंड इंजिनियरिंग पदवी ताणे केली. ल्हान उद्योग, पत्रिका, सिनेमा, संगीत, कंप्यूटर इत्यादी क्षेत्रांत आपण्याली प्रतिभा दाखल केल्या.

कर्नाटकाचे अनेक पत्रिकेंक अंकण (कलं) हे बरयतात. कथा, कादंबरी, नाटक, विज्ञानलेखन इत्यादी विशयांत चाळिसां लागी पुस्तकां हांणी कन्नडान उजवाडाक हाडल्यांत. कोंकणींत हें पूस्तक तांचे सुरूवेचे पुस्तक आसा.

रमेश कामतीलो पत्तोः

**जवाहरलाल नेहरू प्लेनेटेरियम**
**हाय ग्राउंड्स, बेंगळूर 560 001**

